# अंतरनाद

( कविता संग्रह )

शरतचंद्र शेणै






(Konkani)

# ANTARNAD

Poems of

SARATCHANDRA SHENOI
'GOKUL', 18/535 A
COCHIN - 682 006.

First edition - 1997
Published by the author




Typesetting and printing by
S.K. Enterprises, Kalabhavan Road,
Ernakulam-682 018.





Pages : 90
Price : Rs. 50

Author's biodata and information about his other works given at the end of the book.

# दोन उतरां

कविता –
कवीन वापरची जादूची हारशी !
ताज्या विचारांचो, भावमांचो, आनी
अनुभूतींचो भौरंगी विश्व
तांतूत पळोवंक मेळता.
रसिक –
तांतूत वळखून घेता
आपलेच विचार, भावना
आनी अनुभूती!
मनांतल्या विचाराक, आनी तशेंच
अंतस्कर्णांतले भावनेक, अनुभूतीक,
उतरांची माती कालोवन
आकार दिवप म्हळ्यार कविता!
कवितेचो पयलो रसिक
खुद्द कवि !
भितर कविता जन्मता-जन्मता
फकत ताकाच खर्यान तिजो अणभव!
मागीर आकार घेवन
ती कागताचेर पावतकच
तितलो पुरोश
तिजो तेज ऊणो जाता...

म्हजे कवितेन अश्या एक संग्रहाचें रूप घेवंक कारण जालेल्या, हाका ही विशिष्ट प्रस्तावना बरयलेल्या, श्री. गोकुलदास प्रभु हांकां; आनी तशेंच काल पयर ह्यो वाचून बर्या उतरानी माका उर्बा उमेद दीत आयलेल्या श्री. पी.जी. कामत, श्री. मनोहरराय सरदेसाय, श्री. पी.एस. रामचंद्र शेणै, श्री. आर.एस. भास्कर, सारखेल्या म्हज्या बरे मागप्यांक काळजांसावन धन्यवाद.

*शरतचंद्र शेणै*

# मांडावळ

# प्रस्तावना

## गोकुलदास प्रभु

कोगूळ ही पक्षी चड करून आमकां दिसना. पुण तिचो साद आयकता. आनी त्या सादावयल्यान कोगुळाची वळख जाता.

कोगुळाचो एक गूण आसा–तिचो साद सदांच आयकुपाक मेळचो ना. मिर्गाच्या हून वातावरणांत तिचो साद वयर वयर येता. संगीताच्या आरोहणावरी.

कवीच्या मनांतय अशेंच घडता जायत. जेन्ना ताचें अंतरंग तापता, तेन्ना ताचो अंतरनाद कवितेचो सूर घेवन भायर सरता. आज असोच एक 'अंतरनाद' शरतचंद्र शेणै हांच्या ताळ्यान आयकता.

एकविसाव्या शेंकड्यांत पावल घालपाच्या ह्या ऐन वेळार, साहित्याच्या ह्या आधुनिक पर्वांत रावन विचार करतना, कवीक कोगुळा कडेन आनी कवितेक तिचे सादाकडेन तुळणा करपांत मात्शी विसंगती ना?

आयची कविता एकुणिसाव्या शेंकड्यांतले कवितेपासून खूब वेगळी जाल्या. कवितेचो रूप-भाव, गेयसभाव, अंतरगुण सगलें बदल्लां. गेल्ल्या शंबर-देडशा वर्सानी संवसार, मनीस आनी ताजी जीण बदल्ल्या. त्या परिवर्तनाचें पडबिंब कवितेंतय दिसलें तर अजाप ना.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत फ्रेंच बरोवपी व्हिक्टर ह्यूगो हांचे कवितेंतले 'बूर्ष्वा' सभ्यतेचो विरोध परगटायत कांय फ्रेंच कवीनी, म्हळ्यार Baudelaire, Rimbaud, Verlaine, Laforgue आनी Mallarme हाणी नव्या प्रकाराची कविता रचपाचो वावर केलो. पुण शेजारी इंग्लीष भासेचेर रोखडोच तांचो प्रभाव पडलो ना.

अमेरिकांत वॉल्ट व्हिटमॅन आनी एमिली डिकिन्सन आपले पद्धतीन आधुनिक कविता बरयतालीं. पुण वयर सुचयल्ल्या फ्रेंच कवींच्या प्रभावान न्हय. 1855-त उजवाडा आयिल्ल्या Leaves of Grass ह्या कविता संग्रहाचे पयले उजवाडावणेचें मुखचित्र खुद्द कवीनच सजयलें. त्या चित्रांत Leaves of Grass ह्या इंग्लीष अक्षरांतल्यान झाडांचे खांदे वाडून येवंचे आनी पाले किल्लेवन येवचे चित्रायल्ले. कला म्हळ्यार रूखा-झाडांवरी, जिणेवरी, आपशेंच, निसर्गीकपणान वाडून येता हें तत्व व्हिटमॅनाक सांगपाचें आसलें. दर एक कविता कृत्रीम नियंत्रणाची आनी परंपरेची अडचण बालांटून आपशीच अभिव्यक्त जावंक जाय अशें तांचें मत आसलें.

पुण आयरिष- इंग्लीष कवी W.B. Yeats, इंग्लीष कवी Gerard Manley Hopkins आनी फ्रेंच कवी Mallarme हांचो एकमेकांकडेन

संपर्क आनी कवितेविशींचो विचार विनिमय जातालो. हाका लागून तांचे कवितेंत प्रतीकांचो नवो प्रयोग सुरू जालो. आनी कवितेचे बांदावळींत, मांडणेंत तशेंच मूडांत व्हडलो बदल दिसूंक लागलो.

पयल्या विश्व म्हाझूजा उप्रांत हो मूड बळादिक जालो. पयल्या म्हाझूजान येवरोपांतलें मानव जीवित सगलेंच अस्त व्यस्त करून उडयलें उप्रांत मनशाचें जीवित केन्नाच पयलींचे वरी उरलें ना. साहित्यांत, नाटकांत, कलेंत आनी नांचांत एके नवे जिणेचो, नव्या दिश्टि कोणाचो, अभूत दर्शनाचो प्रभाव दिसून आयलो. ह्या नव्या दिश्टि कोणाचें प्रदर्शन करीत 1933-त इंग्लीष कवी **T.S. Eliot** हाणीं सांगलें - **'I have long aimed at, in writing poetry, to write poetry which should be essentially poetry with nothing poetic about it, poetry standing naked in its bare bones,or poetry so transparent that we should not see the poetry, but that which we are meant to see through the poetry, poetry so transparent that in reading it we are intent on what the poem points at, and not on the poetry-'**

असल्या विचारानी इंग्लीष कवितेंत क्रांतीकारी परिणाम आयलो जाल्यार अजाप ना. **T.S. Eliot** आनी **Ezra Pound** हांचे कवितेंत हो नवो भाव आनी आकार पूर्णतायेन दिसून येता. आमी आधुनिक कविता अशी जी समजून घेतात त्या प्रकाराचें ह्या दोन कवीनी तेमकार पावयलें.

आधुनिक कवितेचे कांय गूण अशे-

1) कवितामय भाशेचो अभाव.
2) प्रतीकां, प्रासां, छंद आदी प्रयोगांतल्यान मेकळेपण.
3) प्रतीकां घेवंचीच तर सामान्य जीवितांतल्यान घेवप.
4) सामान्य भास जी उलोवपांत येता तिचो वापर.
5) प्रापंचिक विशयां सोडून सामान्य परिकल्पनेचेर आदार.
6) आत्म्याचो उल्लेख सोडून **unconscious** मनाचो उल्लेख आनी मनोविश्लेषणात्मक प्रतीकांचो प्रयोग.
7) नायकांचो तिरस्कार आनी सामान्य मनशांची जतनाय.
8) स्वर्गाची आनी सैमाची परिकल्पना सोडून धर्मेतर समाजीक वेवस्थेकडेन संबंद दवरप, आनी अ-धर्मेतर कवितेंत धर्माचो नवो सोद.
9) परके भासांचीं उतरां, म्हणयो आदी वापरप.

Wasteland – सारखी कविता ह्या तत्वांचें आनी काळखंडाचें प्रतिनिधान करता. 1940 च्या सुमाराक एलियटाची ख्याती तेमकार पाविल्ली. Yeats अंतरल्ले. Ezra Pound हांचेर देशद्रोहाचो आरोप आसून ते मनोरोग्यांच्या घरांत उरिल्ले. पुण Eliot अंतरराष्ट्रीय 'हीरो' अशें सगले मानताले. आनी 1948-त तांका नॉबेल पुरस्कार फावो जालो.

पुण एक विचित्र घडलें, Eliot ची कीर्त जितली चड चड जायत वताली, तितलोच तांचे आधुनिक शैलीचो येवरोपाच्या तरणाट्या कवींक वाज येतालो. Oxford Poetry-1948 ची समीक्षा करतना John Wain हाणीं बरयलें-'None of these thirtyfive poets seems anxious to write like Mr. Eliot. I had long suspected that the echo of his voice was growing fainter and this proves it. And so, the lesson of this book is that English poetry has now thoroughly learnt the lessons of modernism.'

दुसर्या म्हाझूजा उप्रांतच्या धा वर्सानी येवरोपाच्या समाजीक परिवर्तनांत कविता संग्रहां पयलीं वरी खपनात जालीं. ह्या काळखंडांत थंयची कविता 'कोसळ्ळी.' आनी ह्या कोसळपाचें कारण म्हळ्यार कवितेचो आधुनिक अवतार अशें कांय जाणाचें बळादिक मत आसलें. मनीसजिणेची जतनाय घेवंचे बगर एक (कविता) तंत्राच्या निरुत्तरदायी शोषणाक लागून कविता कोसळ्ळी अशें Philip Larkin ह्या कवीन सांगलें. Davie हाणीं म्हळें- 'One cannot avoid the fact that the poet's churches are empty and the strong suspicion that dislocation of syntax has much to do with it.'

विरोधाभास म्हळ्यार, जेन्ना येवरोपांत आधुनिक कवितेचो तिरस्कार जावंक लागिल्लो, तेन्ना भारतांतले भोवतेक भासानी कवितेचें पारंपरिक रूप आनी भाव बदलतालो. हें परिवर्तन Wasteland सारखेले कवितेंतल्यान प्रचोदन घेवन घडतालें. Wasteland चो मूड आनी शैली न्हयकारून Philip Larkin, Sylvia Plath, Ted Hughes आदी इंग्लीष कवी कविता रचतालीं तेन्ना भारतीय कवितेंत आधुनिक लक्षणां चड जायत दिसलीं. ह्या नव्या प्रवाहांत भारतीय कवितेचें ताल-लय चुकलें, प्रास आनी छंद मोडलो आनी बांदावळीन आनी अर्थान चड संकीर्ण स्वभाव दिसूंक लागलो.

कोंकणी कवितेचो इतिहास मात्सो वेगळो. हेर भासेंतले कवितेवरी अमकेच अशा छंदाचे आनी प्रासाचे नेम धरून कोंकणी कवी बरयनासलो. दर कवी वेळाक काळाक, अशयाक आनी मानसीक अवस्थेक अनुसरून आपणाक जाय ते नेम करतालो आनी मोडतालो. पुण इतर भासेवरीच कोंकणींतय कवितेचें एक पारंपरिक रूप आशिल्लेंच.




हें रूप 1970 उप्रांत बदलूंक लागलें. आधुनिकतेचें **trend** कोंकणी कवितेकय बादलें. देखीक पुंडलीक बाब नायक हांचो संग्रह 'गा आमी राखणे' आनी नागेश बाब करमली हांचें पुस्तक 'जोरगत'. पुण हें परिवर्तन, म्हाका दिसता, भारतीयेतर भासांतल्यान आयलें. आधुनिक कोंकणी कवितेचें सत्व प्रादेशिक इतिहासावेल्यान लाबलें तर रूप भायल्या कारणांक लागून बदल्लें. (घडये इतर भारतीय भासानीय अशेंच घडलें जायत)

कोंकणी कवितेंतल्या आधुनिक प्रावाहाचो उल्लेख करतना दोन गजाली लक्षांत घेवंक जाय. पयलीची गाजाल म्हळ्यार कोंकणी कवितेचें रूप आनी आकार बदल्लो तरी आंतरिक स्वभाव मुळान बदल्लो ना. कवितेंतले विचार धारेक आनी प्रतिमा-वेवस्थेंत परिवर्तन आयलें ना. कवितेंत कवीचो जो दिश्टावो दिसून येता कोंकणींत तो तितलो संकीर्णसो दिसलो ना, जितलो इतर प्रमुख भारतीय भासानी दिसलो. उण्याच उतरानी सांगचें जाल्यार कोंकणी कवितेचें भायलें रूप मात्शें बदल्लें, पुण भितल्लो गूण तितल्याच मापान बदल्लो ना.

आनीयेक गजाल. कोंकणी कवितेंतलो नवो प्रवाह वैयक्तीक शैलीक लागून सुरू जालो आनी वैयक्तीक शैली म्हणूनच उरलो. आधुनिक काळाचो, आधुनिक समाजाचो संकीर्ण स्वभाव चडशा कवींचे कवितेंत दिसलो ना, आनी अजूनय तशें दिसना.

आयचे कवी चडावत जावन ल्हानशा आणभवावेल्यान चार-पांच ते धा-बारा वळींच्यो कविता बरयतात. जेन्ना कवी खुद्द करून ह्यो कविता वाचून सादर करता वा वाचपी वाचता, तेन्ना कवितेच्या मूडाचें स्थलांतरण जाताच-कवीचो भाव, उमाळो, विकार, उत्फर्को, कितेंय म्हणात, तें कवीकडल्यान आयकुप्याकडेन/वाचप्याकडेन पांवता.पुण कवीचें वैयक्तीक, समाजीक, धार्मिक, राजकर्णीय दर्शन कितें?- ह्या विशीं व्हडलेशें जाणवना. कविता कानाक बरी दिसत, पुण मेंदूक बोट लायना.

ह्या संदर्भांत शरतचंद्र शेणै हांचो 'अंतरनाद' खंय रावता?

'अंतरनादां'त कितें आसा म्हूणून सुरू करचे परस कितें ना हें सांगप सोपें.

'अंतरनाद'संग्रहांत क्रांतिकारी अशें कांयच दिसचें ना. कवितेंतल्यान क्रांतीक जल्म दिवप शक्य ना अशें न्हय.

'म्हज्यांतल्या फातराक जीव दिला
कवितेच्या पावलान!'

अशें म्हण्टना खास करून कवीक आपले कवितेचो प्रभाव कितलो व्हडलो जावन अणभवता हाचो अदमास आसाच. पुण ह्या कवीचे कल्पनेंत क्रांती घडोवपाचो व क्रांतीकारीचें सवंग करपाचो हेतु ना. तांच्या मतान-

'मनांतल्या विचाराक, आनी तशेंच
अंतस्कर्णांतले भावनेक, अनुभूतीक,
उतरांची माती कालोवन
आकार दिवप म्हळ्यार कविता!'

कुंभाराच्या हातानी मातयेची मूर्त घडटा तशी कविता उतरांवेल्यान घडटा. पुण सौन्दर्यानुभूतीचो सदांच आविष्कार जायना. मनांतली भावना घेवन कुंभार केन्नाय मूर्त करपांत सफळ जालो म्हणपाक फावना. भावनेच्या आनी मूर्तीच्या मदें अडचण येवं शकता. तशें कवीकय घडटा-

'झरी कशी फुटून
जीव सगळो भिजोवन
कागतार ओततकूच
आटून वता-'

आनी खरें म्हळ्यार शरतचंद्र शेणै हांचो पिंड क्रांतिकारीचो न्हय. तांचो मूळ स्वभाव शांत. ही शांत वृत्ती तांच्या बरपांतय दिसता.

ह्या संग्रहांतल्यो कविता पांच विभागानी वांटल्यात. जीण आनी मर्णावयले विचार,मनीसकुळांतलो संघर्ष, वैयक्तीक अणभव, दैव संकल्प आनी भक्ति भाव, आनी खास करून कवितेची अनुभूति अशा पांच विभागांच्यो कविता पुस्तकांत आस्पावल्यात. दर एका विभागाच्या सुरवातेक विशय सूचक Quotations दिल्यांत. गांवपुरुशाक पांया पडून मागीर नव्या देवळांत रिगचेवरी, म्हान कवीचीं उतरां लक्षांत घेवन मागीर शरतचंद्र शेणै हांच्यो कविता वाचच्यो. वैयक्तीक जिणेंतले सरळ अणभव तशेच मानवकुळाचें संकीर्ण दर्शन हांच्या कवितेंत दिसून येता. निसर्गाचो मोग, सौन्दर्याचें आस्वादन, आंतरिक संघर्ष आनी आत्म्याचें समाधान सगळेंच कवी हाताळटा.

'अंतरनाद','फांतोड','प्रार्थना','वृन्दावनांतलें कोगूळ','युगांतर' आदी, देवाचे भावनेन आनी भावार्थी विचारान भरिल्यो कविता. ह्यो भक्ति कविता म्हळ्यार सारखें न्हय.''वृन्दावनांतलें कोगूळ 'सारख्या कवितेंत संत मीरा बाई हांचे वरी भक्ति भावान आकुळ पिकुळ जाल्लें मन पळोवंक मेळटा तर हेर कवितानी (प्रार्थना, अंतरनाद) कबीर दासांचो सूर आयकता. शरतचंद्र शेणै हांच्या दैवसंकल्पांत संघटित धर्मांतल्या देवाक जागो ना. तांचो सोद आनी संकल्प एका निराकार, निर्गुण देवाचो, जो 'अंतरनादांत' आनी 'प्रार्थनेंत' उक्तो जाता. 'फांतोड' हे कवितेंत तर कवी देवाक आपल्याच भितर पळयता. हो देव उग्रमूर्ति न्हय. कडक, कठोर आनी रागिष्ट न्हय. हो देव मोगाळ आनी मायेस्त इश्ट. वृंदावनांतले

गवळिण्यांच्या गोपाळावरी भुरगेपणां करपी, काळीज जिखपी. हे इश्टागतींत आनी मोगांत गोपस्त्रियांचीं वस्त्रां आनी शिंक्यांत राखून दवरिल्ली लोणी चोरपाक जितलें स्वातंत्र्य आसलें, तितल्याच मेकळेपणान देवाक 'चोरा' म्हणून उलोय मारूंयेतालो. कवी हें स्वातंत्र्य घेता.

गिरधर गोपाळ 'मीरा के प्रभु' जालो. ताणें ह्या कवीचें काळीजय जिखिल्लें दिसता. पयलींच हाणीं 'मीरा-जीवन आनी कवन' हें आपलें पुस्तक उजवाडा हाडलें, आनी मीरा बाईचीं सुमार भजनां कोंकणींत अणकारून हे संत कवयत्रीच्या भजनांकडेन आमचें लक्ष ओडून व्हेलें. प्रेमान, भक्तीन, आनी विरहाच्या दुखान खासावीस जाल्लें एक मन जशें मीरा भजनांत दिसता तशें हांचे 'वृन्दावनांतलें कोगूळ' कवितेंतय दिश्टी पडता.

'वृन्दावनांतलें कोगूळ' हे कवितेंत जो कळवळो भोगता, तो 'युगांतर'ांतय अणभवता. 'युगांतर' य गोपाळाची काणी सांगता. पुण गिरधर गोपाळाची न्हय. संपूर्ण मनशावरी मर्णा देगेर पांविल्ल्या श्रीकृष्णाचे मनोदशेची. मर्णाची थंडाय पांया-बोटांतल्यान वयर चडतासतना, मनांत आयिल्ल्या विचारांवेल्यान श्रीकृष्णाक कवीन एका अनन्य रूपान दाखयला.

'खाटली', 'विसव दी', 'भय', 'आयतार' असल्या कवितांत जीण आनी मर्ण ह्या द्वंदां विशींचो कवीचो विचार उक्तो जाला. जीविताची आशा आनी आसक्त जितली खरी, तितलें मरणाचें सत्यय न्हंयकारुक शकना. मरण खरें, पुण जिणेचें विराम म्हणून न्हय-

'खिरवडेचेर एक मडें व्हेल्यारय
एक सारयचेर उजो वाडवल्यारय
मोगरीं फुलतलीं
कोगळां गायतलीं
कूपां दोंगराक लागून शिरशिरतलीं-'

'आयतार' ही कविता काळप्रवाहाच्या वेगाचेर, काळप्रवाहांत बुडून वचपी जीवितलक्ष्यांचेर, जीविताचो अर्थ सोदीत जीवित सारोवपाचेर, जीवित ह्या कुवाड्याचेर मात्सो उजवाड घालता-

'सोमार साकून शेनवार मेरेन
वजें साबार व्हांवलें...
...करूक आनी कांयच ना...
...अखेरेच्या वाराचो
निमणो दीस पावलो!
करूक आनी कांयच ना!

पाय सोडून-

-पुण आज मरे?

आज हो सोमार!!'

जीण आनी मर्णाच्या अमूर्त आशय घेवन जितले सहजतायेन हार्णी कविता रचल्या, तितलेच निपुणतायेन आयच्या संवसारांतल्या संधर्षांचेर बरयल्यात. 'यरूशलें', 'ही माती', 'चतुरंग', 'खूंट', 'विलाप' आदी कविता आयच्या युगाच्या मनिशकुळांतल्या संधर्षांकडेन बोट दाखयता. ह्या संधर्षांकडल्यान पयस रावून कवीन कवितेखातीर आशय जोडलां अशें सांगू नज. संधर्षांचो कवीचेर कितलो प्रभाव पडला हाची गवाय 'विलाप' दिता.

विशय बदलता तसो विचार बदलता, आनी विकाराक लागून भाव बदलता. देखीक 'वृन्दावनांतलें कोगूळ', 'युगांतर' हे कवितेंत रोमांटिक, कोमळ विचार आनी भावना उठून दिसता. 'वोट', 'चतुरंग' असल्या कवितांत व्यंग्यात्मक टीका जाल्या. 'यरूशलें', 'विलाप', 'अंतरनाद', 'जवळो भाव', 'कोण तूं' ह्यो कविता चिंताशील आनी तत्वगिन्यानी मूडाच्यो. कवितेंत तत्वगिन्यान येवप सहज. **Coleridge म्हण्टा "No man was ever yet a great poet without at the same time being a profound philosopher."**

पुण तत्वगिन्यानी जावप हाचो अर्थ अनासक्त जावप अशें न्हय. जेन्ना मनीशकुळाचेर संकश्ट येता, तेन्ना खंयचो कवी अनासक्त तत्वगिन्यानी जावन बसत? ह्या कवीक तर सगळ्या मनीशकुळाची व्यथा आपलीच जावन दिसता. तांच्या प्रतिकाराचो आक्रोश जावन 'विलाप' ांत वयर येता. 'विलाप' ांतलें कवीचें प्रतिकरण रागाचें न्हय. तें जावन आसा एका व्हडल्या दुखाचें. जेन्ना काळजार खोंचता तेन्ना दुखता, रागाबगर दोळ्यांत दुकां येतात, तोणांतल्यान बोब येता-

'मारात माका! पुरात माका!

कित्याक आनी वांचूका?

निश्पाप्यांचीं-पाप तांचें-

इतलीं मडीं कुसतना-'

ह्यो वळी कवीची उत्कट व्यथा उक्ती करता. हे व्यथेवेल्यान रागापरस वैरागाचो आवाज आयकता. कुवैट झूजाच्या संदर्भांत रचिल्ले हे कवितेंत विद्रोहाच्या व रोषाच्या भावाक जागो ना. कवीची निस्सहायता आनीयेका मनोभावाक कारण जालां. भारतांतल्या एका पयसुल्ल्या गावांत बसून कांयच करूंक जमना हे चिंतेक लागून, व मनशांचे एकामेकाकडेन झुजपाचे मनोवृत्तीच्या वाजाक लागून कवीचो राग **invert** जाता,आपणाचेर

परत येता, आपणाकच त्या रागाचें निशाण करता. स्वयं त्रास दिवन समाधान घेवपाचो मनोभाव 'विलापांत' परत परत पळोवंक मेळटा.

मनीशकुळाच्या संकश्टांक लागून आपणाक जावंचो त्रास सोंसपाक तयार जाल्लो हो कवी वैयक्तीक, समाजीक, धार्मिक, भासिक आनी राष्ट्रीय मर्यादा हुपून एका विश्वनागरिकतेच्या, मनीशपणाच्या, मुळाकडेन वचपाक सोदता. आदर्शवादाचें सवंग करीनासतना आपल्या दुकांतल्यान कवी आपूण एक विश्वनागरिक हें सिद्ध करता.

"We should not see the poetry but... see through the poetry-" T.S. Eliot हांचो हो उपदेश हो कवी मानीना. हो कवितामय कवितेचीं तत्वां मानपी. छंद आनी प्रास ह्या नेमांक अनुसरून तांच्यो कविता जल्मतात. खरें म्हळ्यार, छंद आनी प्रास हांचे कवितेचें बळ तशेंच दुबळेपण. हाचो अर्थ हे कवितेंत फकत उतरांचें पोकळ संगीतच आयकूंयेता अशें न्हय. उतरांच्या संगीताकडेन ताणीं जितलें लक्ष दिलां, तितलेंच कवितेच्या Substance - कडेनय दिलां. आनी हें Substance मेंदूक सक्रिय करपी जावन आसा. ह्यो कविता वाचप्याच्या काळजाक बोट लायता आनी त्याच वेळार चिंता-प्रेरक जाता. "Poetry, therefore, we will call musical thought" Thomas carlyle हांचीं हीं उतरां शरतचंद्र शेणै हांचे कवितेक खूब लागू आसा.

म्हाका दिसता, आज मेरेन कोंकणी कवीनी जे कांय विशय आनी अनुभूती हाताळूंक नाशिल्ली ते ह्या कवीन समर्थपणान हाताळ्ळां. 'युगांतर', 'यरूशलें', 'अंतरनाद', 'विलाप' आदी कविता कोंकणींतली विशय-सीमा बालांटून भायर आयल्यात, आनी ते दिश्टीन ह्या संग्रहाचें म्हत्व आसा.

ह्यो कविता जशें संमेळनावेळार सादर करतात, तशें दर एक वळ दोन दोन पावट आड्डून सादर करपाची गरज ना. ह्यो कविता म्हळ्यार सवकाशायेन, स्पश्ट उतरानी, हळू ताळ्यान वाचपाच्यो, आनी तशें वाचिल्ल्यो आयकुपाच्यो. हांतूत विद्रोहाचो, रागाचो आवाज घालप निषिद्ध! आमी सामान्य रीतीन उलयतात त्याच ताळ्यान जर ह्यो वाचल्यो, तर कवीन कवितानिर्मितीचे प्रक्रियेंत पूर्ण तल्लीन जावन, सुंदर भास आनी नाजूक अनुभूती 'कालोवन' कवितेक सौन्दर्याचो आकार आनी संगीताचो सूर दिला, हें कळून येतलें. तांची सुक्ष्म संवेदना वाचप्याक बरी समजतली.

आधुनिक कवितेच्या ह्या युगांत ह्या कवितासंग्रहांतलो सूर मात्शे वेगळेपणान आयकूयेत-शरद् ऋतूंत अप्रूप गावपी कोगुळाच्या गीतावरी...



## कविता सोदता राबितो !

खंय राजपाटणांच्या रावळारानी न्हय

भरिल्या दरबारानी न्हय

कविसंमेळनानी न्हय

पुस्तकांच्या पानानी न्हय

गावप्यांच्या जिबानी न्हय

आयकुप्यांच्या कानानी न्हय

वाचप्यांच्या दोळ्यानी न्हय

कवीले लिखणेरीय न्हय

रसिका, तुज्या काळजांत मरे

जाय माका राबितो !



# हे सूर्या -

दर्यावेलें उदक ओडून
पावस दिवंचे सूर्या,
तापय म्हजें अंतराळ
तापय म्हजो दर्या !

उखल म्हजें उदक, आनी
पांवय रेंवटानी.
खंय तरी  मू उबो एकलो
पावसाचो थेंबो सोदचेलो
निवय ताजी छाती
तिमय ताजी माती.

ल्हारां अशीं उठलीं म्हणून
इतलें माका खबर आसा,
भितर खंयतरीच लिपून
कवितेचो दर्या आसा !
म्हजेरीच सोडलो माका तरी
हांव पावस घालचोंना
भितर उतरां उठून तुटतलीं
कविता रूप धरचीना.

उठय माका, उठय माका,
उजवाडाचे देवा,
पेटय म्हजें हरदें, आनी
तापय म्हजो दर्या.



# कविता

झरी कशी फुटून
जीव सगळो भिजोवन
कागतार ओततकूच
आटून वता -
तिचें नांव कविता !

आपशीं फुलून
जीव रंगोवन
जीण परमळावन
कागतार ओंपतकूच
बावन वता -
तिचें नांव कविता !

कोणूय सोडूं हात
कोणूय सोडूं सांगात !
एकलेपणार लागी येवन
दुखाच्या खिणार त्राण दिवन
नांव घेतकूच
निपून वता -
तिचें नांव कविता !

सगलो आकार
पळोवंक मेळना.
सगलीं उतरां
सांगूक जायना.
थोडीं दिसून -
थोडीं निपून -
तिचें नांव कविता !



# थिकां

कागता खातीर बळी जालेल्या रूखा,
तुज्या कागताक आतां
जीव दितां !
म्हजे खातीर बळी जालेल्या कागता,
तुका म्हजो आत्मो दितां !



रानांतले फातरेक जीव दिलो
रामचंद्राल्या पावलान.
म्हज्यांतल्या फातराक जीव दिला
कवितेच्या पावलान !



कवितेचे वेंगेंत शेणलों
म्हजे माकाच विसरलों !



फायचे कवितेक राखून हावें
फालीं कितलीं वगडायलीं !
कालचे कविते, तूं कोपून वशी
कागतार तुकाच गो रंगयली !



# निमणी कविता

काळोख दाटलेल्या मळबांतल्यान
झगझगत्या जोगला भाशेन
निमणी कविता सुचतना,
कागताक हात लावंचोंना -
लिखणी हातांत घेवंचोंना -

अर्द सपनांत जागेर येवन
दुसेर दोळे आड जावन
सपन - दृश्यां दिसचे भाशेन
निमणी कविता सुचतना,
ओंटांमेरेन पावंचिना -
कोणाकूच सांगचोंना -

फांतोडेचे पोरसांतल्यान
धावंत्या खेळत्या वार्या भाशेन,
दनपाराच्या मळबार उदेवन
पळयत आसतां विरून वत्या
रंगीन पावसा - धणवा भाशेन,
सांजचे तळयेंत  तोंड नियाळीत
सुद्द विसरिल्ले सैमा भाशेन,
निमणी कविता सुचतना,
हात लावंक सोदचोंना -
उतरां वीणून काडचोंना -

अकस्मात गिमादिसान
गळत्या थंड मोत्यां भाशेन
निमणी कविता सुचतना,
भुजांतल्यान पाखां फुटून
पिसोळ्या भाशेन उबतलों !
हल्को जावन, हल्को जावन
वार्या ल्हारार पेवंतलों !

रडत्या पोरा मुखामळार
दूकांतल्यान हळूहळूच
फुलून येत्या हासा भाशेन
निमणी कविता सुचतना,
भुल्लुसून वतलों !
गुल्ल जावन राबतलों !
पाखाक पाख लायत फिरून
हांवूच कविता जातलों !



तू असीम !
मैं सीमा का भ्रम -
❒ महादेवी वर्मा (1907 - 1987)

I worship God as Truth only. I have not yet found Him, but I am seeking after Him-
❒ M.K. Gandhi (1869-1948)

# 2

- जवळो भाव
- फांतोड
- प्रार्थना
- अंतरनाद
- वृन्दावनांतलें कोगूळ
- युगांतर
- देव आनी मनीश

# जवळो भाव

तूं म्हजो सांगाती.
म्हज्या हर्द्यांतलीं उतरां कळचो
जवळो भाव !
म्हज्या तोंडावयले भाव
तुका फटयनात.
म्हजे जिबेची तिखटाण
तुका हुलपायना.
म्हादुखांतय
सुकेच उरिल्या
ह्या दोळ्यां फाटलो हुंवार
पळोवपी तूंच एकलो.
ह्या रागेस्ताच्या
झुजार्याच्या
भितरले भितर,
अंतरंगाचे बंदखणींत पडून
हुंडकेवंच्या एकट्या चेरडाक
वळखुपीय
तूंच एकलो !



# फांतोड

म्हजें काळीज.
थंयच हांव रावतालों.
खोशेन !
मागीर कळ्ळें
जग भायरय पातळ्ळां !
ध्यान दिलें कुटुंबार...
तेन्ना वाचलें
जननी जन्मभूमिश्च -
केली सेवा
समाजाची, गावांची, देशाची...
पुण देखलें (जेन्ना दोळे उगडले !)
तांचेय भायर पातळ्ळां जग !.
उजव्या पावलान
तुज्या विशाळ प्रपंचांत पावलों.
सगल्यांक समदृष्टीन चोयलों.
वैरागी जालों.
तुका सोदीत भोंवलों.
भोंवन भोंवन भोव खरशेलों.
राखून राखून थकलीं पंचेंद्रियां.
एकामेकाचो सांगात
सोडूक लागलीं पंचभूतां !
निमाणें,
मात निमाणें मरे
तुजें सत्य वळखलां !
चोरा !
चोरांच्या राया !
तूं म्हजेच काळजांत
केन्ना पासून रावला !



# प्रार्थना

ना माका लोकाचें ज्ञान विज्ञान
आयलां तुजे सामकीं रित्या हातान !

फूल ना फळ, ना तुळशीचें दळ
हाडलेंना रुप्याचें ताट खोटूळ -
लायलोना दीवो, वाजलीना घांट
हाडलीना पुण्यांचे कर्माची मोट -

केलीना काणीक, आरती - अर्चन
म्हळ्ळेंना तुगेलें एक कीर्तन -
कांय ना वेगळें आज अर्पण
भेंट तुका आपणूच आपण !

वर मागीना, नाका प्रसाद,
नाका कुंकूम, पूजे निवेद -
नाका पोरमळाचें गांद, विभूती
नाका संसाराची एकी संपत्ती -

आयुरारोग्याची भीक मागीना
आत्म्याच्या मोक्षाची भीक मागीना -
कांय, कांयच नाका, जगाच्या जीवाळ्या
मागूक सोदतां तुकाच, मोगाळ्या !



# अंतरनाद

हो कुमसार !
आपले तरफेन -
आपल्या बापाचे तरफेन -
आज्याचे, पोणज्याचे,
शेणज्याचे तरफेन -
चुकलों हांव !
चुकले आमी सगले !
अकार जावन उरिल्या तुजे
आकार आमी सोदले -
नाद जावन उरिल्या तुजे
रूप आमी सोदलें -

आदल्या पूर्विकानी
उजो म्हणून पुजलो.
सूर्य,चंद्र, भूंय, उदक,
वारो म्हणून भजलो.
नेति ! नेति ! म्हणून मागीर
दिलीं नवीं रूपां -
सारकीं जालीनात !
तुजें सारकें आयलेंना !

पोणज्यानी शेणज्यानी चिंतून
तुजीं रूपां तीन थारायलीं.
सात, णव, धा जावन
सवीस जालीं तीं.

तींय पावलींनात  म्हणून
तेतीस कोटी केलीं  !
वेगळ्या वेगळ्या रूपान
तुजे आकार रचले.
अमके गूण अमके म्हूण
आकारांक वांटले.
अवतार धरयले  !
चमत्कार  करयले  !

गुंजये येदे कल्पनेन आमी
तुका मापूक सोदलें  !
माप मेळ्ळेंना –
तुज्यो शीमो देखल्योनात –

कितली ल्हान सान
आमची बाबडी कल्पना,
तुका रूपां दिल्ले बगर
तिंका नीद ना  !
रूप लेगीत ना म्हळ्यार  !
आकारा बगर कसो ईश्वर ?

सगल्या सगलेंय आसाच तुज्यांत
आसतलेंच न्हय  !
तरी पुणूय आमकां
कांयच–कांय दिसना  !
हे आकार, ते आकार,
काळजां भितर रोयले  !

कुरड्या दोळ्यान काळखे कूडींत
सोदीत आमी रावले !
मासळी जालोना,
तूं कासोव जालोना !
डुकर जालोना,
तूं शींव जालोना !
डुकरा सूळे, शींवा तोंड, मनशारूपां -
आमीच तुका दिलीं !
कश्ट कितलें भोगलेंना,
कितें कितें तुका दिलेंना !
मुकूट दिलो, राय केलो.
भस्म लायलें, रूशी म्हळें.
धणू दिलो, कवंडळ दिलो.
खांडें दिलें, त्रिशूल दिलें.
घोडो, हंस, म्हशी, मोर,
घोणी, शींव, नाग, हुंदीर -
सगलीं आमी दीत रावले !

चुकले आमी चुकले !
सगल्यो पिळग्यो चुकल्यो !
चुकली मनीसजातच !
नदरेंत तूं मेळतलो कशी ?
हारशे आमचे चोयवशीं !
आपलींच रूपां दिसतात आमकां
तुका सोदून घुवंतना !

रुखार चरची कीड
कशी रान नियाळीत ?
बांयत पेवंचो बेबो
कशी भूगोळ नियाळीत ?

साध्य व्हय कोणाक आमकां
रूप तुजें पारखप ?
भितर तुका साकारप ?
कोणे तरी म्हातार्यान
म्हातारो म्ह्ळो !
कोणे तरी गावड्यान
काळो भुरगो म्ह्ळो !
रुखा - मूळांत ध्यान करपी तूंच !
आमी थारायलें.
येतलो फाल्या घोड्याचेर !
डांगरेय मारले.

सगलीं व्यर्थ जल्पनां.
हारली आमची कल्पना.
कल्पनेच्या करंड्यांत तुका
बंदी घालूक सोदलें आमी !
पूर्विकांक क्षमा कर -
आयच्या आमकां क्षमा कर -
येते पिळगेक क्षमा कर -

हो कुमसार !
आपले तरफेन -

आपल्या पुतांचे तरफेन –
येते पिळगेचे तरफेन –
हारूं फुकट कल्पना,
पुण सोद आमचो थामचोना !

पूत, धुवो, नातरां,
पोणतुरां आनी शेणतुरां,
तुका सोदून भोंवतलीं !
अणूरेणूंत सोदीत सोदीत
भोंवतलीं दिगंतरां !
प्रपंचाच्या पयसुल्या
कोनश्यानी सोदतलीं.
कोपून मोनीं बसतलीं.
काळीज निबर करतलीं.
दाखय तुजें रूप! म्हणून
हरदें फुटून रडतलीं !

आस्त धरून उरतलीं,
आस्त धरून सरतलीं !
असलो आमचो जन्म रे,
असलो आमचो जन्म !



निराकार जावन सगल्या प्रपंचांत व्यापून उरिल्या; 'अक्षराणामकारोस्मि!' म्हूण भगवद्गीतेंत सुचयिल्ल्या; चराचराक चैतन्य दिवपी त्या वैश्वानराक सोदून फिरप; मागीर हारी खावन दूकां गळवप; ना तरी, 'आपणाक तो मेळ्ळो!' म्हूण स्वताक फटवन समाधान घेवप; तेंवय ना तरी, 'फाय ना परां तो मेळतलोच!' म्हूण आस्त बाळगप – अनंत काळापासून हो मनीसजातीचो निजी सभाव जावन उरला ! सगल्यान 'तो' आसूनूय, फकत अमूक अमूक वस्तूच दैवी म्हणप, ही मूर्खतायीय मनशान आपली संवय कशी केल्या ! मनीशकूळ स्वताक कशी फटयता म्हूण हांगा कुमसार! पुण मनशालो तो निरंत सोद आनी ताचे फाटली धन्य भावना, हीं तर ताच्या अस्तित्वाकडेनच जुडल्यांत म्हणूय कवि वळखून घेता.

# वृन्दावनांतलें कोगूळ

शेंकड्या शेंकड्यानी राखून राखून
हार खावन, हताश जावन
तूंवय आज वता व्हय ?

पळयत बसलां सकल
कितलो काळ! सांज सकाळ !
राखपी तुजें तोंड,
विरहाचें दुख,
काळजांतलो उजो,
आनी थकलेले दोळे.
माणकुलें देह थकेवं मेरेन
उबंत भोंवन सगलें विसरूक
तुवें केलोलो यत्न !
ओले दोळे धांकून मागीर
कदंबाच्या खांद्यार
पाखां दामोवन बसून
एकसुरींच केलेलें ध्यान !
वारो आपशींच उलयतना
थडथडून, जागेर येवन,
भोंवतणेंत मारलेले नदरेंतलो हुस्को !
एक खिणाक गुपीत हास !
एक खिणाक पायार नांच !
मागीर मागीर नेणतनाच
ओले जावपी पोले -
चोरायेचो राग तुजो,
चोरायेचीं झगडीं !

पळयत हांव बसलोलों
काळ कितलो जालो !
''कितेंय सांग ! कितलेंय रड !
कितलोय काळ जळूं काळीज !
तरीय तुजे पिरलुकेचो
साद परत येवचोना !''

अशें आतां सांगलें तुका
कोणे गो पापणी?
तुजे तीख नदरेन सुकलेल्या
पिंपळाच्या पाल्यानी?
ह्या चिरंजीवी कदंबाच्या
निबर निबर काळजान?
हांगा थांगा न्हिदलेल्या
फातरानी, मोन्यानी?
दूकां गळयत व्हांवपी
काळिन्दीचे खळस्यानी ?

पाखां फुलावन मोर
आनी नाचचे नात काय ?
गोरवां घांटो हालयत
आनी खेळचीं नात काय ?
काळिन्दीन गागर्यो
आनी देखच्यो नात काय ?
गवळिण्यांच्या गालांचेर
आनी फुलां फुलचींनात काय ?
अक्रूराल्या रथार चडून
गेलोलो तो मोगाळ
काळजाचो फातर करून
थंयच रावतलो ?

राखून रावप्यांच्यो दुखेस्त काण्यो
कितल्यो आयकल्यो !
आयकून आयकून दोगांय आमी
हांगाच अशें बसल्यांत !
आस्त तितलीय करपून वचून
गोबोर मांडला आमचेच आंगाक !
पळोवपी सगले म्हणतात -
हीं योगींच ! दुबाव ना !
आयकतां सुस्कार !
पाखांचो आवाज !
आपलें वृन्दावन सोडून
वता व्हय तूंवय आज ?
परत येवप ना अश्या यात्रेक
वेळ आयला व्हय ?
अनंत सोद तुजो
आतां सुरू जाता व्हय ?
राव एक खिणाक,
हांवूय येतां तुज्या वांगडा !
व्हांवचें हें जिणेचें वजें
माथ्यार साकून देंवयतकच !



# युगांतर

बाबड्या, निषादा,
बोवाळ इतलो कित्याक !
बाण तोपला पायाक,
पळय संत काडूक !

शीरेकच खोमला
शिरपुटाचो बाण.
रगत व्हवंत वता
इतलें मात जाणां !
पावलें निमणें खीण
सरलों सगलीं रिणां !

थंडाय आंगार चडता
चोयवशींय रान.
मंद मंद पांवता वार्यार
कोगुळाचें गान.
परत मेळें आड पडूक
शैशवाचें पान !
शांत शांत अंतराळ
शांत शांत मन.
हांव कृष्ण !
देवकीलो पूत.
यशोदेलो बाळ, बलरामालो भाव.
राधेलो इश्ट, द्रौपदीलो देव.
पार्थालो सारथी,
अवताराचो मूर्ती !
नांव म्हजें सगल्यांचे जिबेर !

सगल्या सगल्यांक मोग म्हजेर !
हांव कृष्ण, युगपुरूस !
अटंग्या रानांत एकटों !
अवतारापासून मुक्तो !

यादी चडशो उडून गेल्यो.
ऊण्यो थोड्यो आतांय जिव्यो -
मथुरेक वता म्हणून
दुख, हुसको गोकुळांत !
दसकांची पीडा विसरून
आनन्द आवय - बापाक !
द्वारकेंत राज्य करचें,
पार्थाक घर्म सांगचो,
दुखेस्त अंत अभिमन्यूचो,
गांधारीलो विलाप-शिराप,
सर्वनाश यदुकुलाचो !
एकशें हजार प्रश्न मू
सामकार आयलेले !
एकशें हजार जापो दिवन
सोपे सोडयले !
चुकनाशें, चुकयनाशें
सगलें युग रचलें.
नियोगाचे नेम पाळून
रचलो स्वताक.
एकटेपण सोसचें कशें
शिकयलें स्वताक.
धर्म राखचो म्हणून
हरदें निबर केलें.

सोडली मेकळी जीण
आनी लोणयेची गोडसाण.
सोडलीं झगडीं खेळ
आनी मोगाळ गोकूळ.
सोडून गेलों राधेक
सोडून गेलों आवसूक.
गांव सोडून, रान सोडून
काळिन्दीचे गींत सोडून
हातांतली मुरळी सोडून
पावलां मारलीं फुडें.
नियोगाचे नेम पाळून
जियेलों हासून !
हांव कृष्ण !
योगेश्वर !
नांव म्हजें सगल्यांचे जिबेर !
सगल्या सगल्यांक मोग म्हजेर !
अटंग्या रानांत एकटों.
अवतारा पासून मुक्तो !
मनांत समाधान -
मनांत समाधान -
चडता थंडाय
पायां पासून.
नांचता अंतस्कर्ण
सैमार भुलून !
एक खिणाक घुस्पा-गोंदळ:
हें गोकूळ मू ?
सगलीं लिपलीं दिसता !
आतांच सोदून धरतां !

कळाव नाका -
लोणी अजून खावंची आसा,
न्हेसण अजून फारचें आसा,
काळिन्दींत पेंवचें आसा -
राधे -
तुजे मांडयेर माथें दवरून
असोच पडलों जाल्यार
सगलो जन्म न्ह्दितलों गो !
माकाच विसरतलों !
हासूनाका ! उठ गो !
हांवूय उठतां आतां.
उठून वचून
खूब कितें करचें आसा.
विश्वच जिखचें आसा !
सगल्या दुश्टांक मारून
शिश्टांक राखचें आसा !
धर्म वांचोवंचो आसा -

कितलो मोव गो तुजो हात
म्हज्या निढळार भोंवतना !
थंड म्हळ्यार थंड !
हांव कृष्ण -
गोपाळ -



# देव आनी मनीश

देवाक आमी मनीश केलो.

मनीश जालो जनावर !



देवाक हावें सोरगार चडयलो.

हांव, बाबडो मनीश,

पाताळांत पडलों !



मनीश सोदता देवाक !

मेळ्ळो काय? मेळतलो?

कळना माका.

देव सोदता मनशाक !

मेळ्ळो काय? मेळतलो?

कळना माका !



देव नाका; देवळ पुरो...

क्रिस्त नाका; खुरीस पुरो...

अळ्ळा नाका; मुळ्ळा पुरो...



देवा हातान मनीश –

काळो आनी गोरो.

मनशा हातान देव –

कितलो तो बरो !



And therefore, never send to know
for whom the bell tolls;
it tolls for thee-
❒ John Donne (1573-1631)

मरणाचे देगेवयलें मृगजळ
म्हळ्यारूच जिणेचें मळ -
❒ बाकीबाब बोरकार (1910-1984)

# 3

- अपघात
- खाटली
- परतून एक पावस
- भय
- हृस्व जिणेविशीं
- विसव दी

# अपघात

मार्गार ट्रॅफिक जॅम.

खीटांतल्यान वचून पळय:

स्कूटरीचो अपघात.

माथें फुटून

रगत व्हावंत एकलो

निर्जीव पडला तरनाटो.

स्कूटरीचो शब्द

थामलोना

पेट्रोळूय व्हावंता –

सगले जाण

पळयत स्तब्द.

माका वच्चें आसा –

खूब काम

करचें आसा –

वेळ वता !

हांव परतलों ...

फाट घेवन येता

मेल्या मनशालें मडें !

वांगडा आयल्यां

भितर रिगल्यां

मनांत,

एक मडें.



# खाटली

पोरां जालीं. जालीं नातरां.
सगळी चवकी
जीवाळ्यान पाचवीचार जाली.
आंग हालयल्यार आरड मारच्या खाटलेर
आवय आड पडली.

कूड अर्दय निर्जीव जावन
जीव दुखून, दर खिणाक उकडून
काळखांतल्यान येवंच्या भयाच्या भयान
दोळे धांकून, जीब चाबून
खाटलेर आवय आड पडली.

दुखता आंग. नज माका !
नरक भोगचें कितल्या काळाक?
अर्द जीवांत गेले आठ म्हयने !
मरण आळशें! वेगीं पावना कित्याक?

पौषांत होवरेचे हुमर्यार आडळून पडली;
तेन्ना तुवें म्हळें -
खाटली सोडून उठूंक जावंचें ना?

आज माका समजतात
तुज्या भयाचीं काळखीं चिंतनां!
एकटी तूं. एकसुर्या काळखांत.
जाप दिवंक कोणूय ना.

रंग सुगंध निखळून गेलेले,
काळखाचे रिते अरुंद होवरेंत !
सगळ्या घरांत वसंतूच खेळतना
तूं थंड शिशिराचे खाटलेर !
पाळणें धोलयत धूव गायता गींत
आयकून तूं खळसां गिळता -

नातराक काण्यो सांगूक आशेवनयें !
- काळजांत दूकां लिपयलीं.
जन्म हो फकत मर्णाखातीर मू !
- नेणतनाच ताळो थरथरलो.
इतल्या काळान जियेवन, जीणेंत
सादलें कितें, कसलें ?
व्यर्थ आयली, वृथा वाडली,
जीणेचें तथ्य सोदलें शून्यांत !
सगळो लोकूच आपलो म्हणून
सपनांत मूर्ख स्वर्ग रचून
जीणेच्या पोरसांत हासून खेळ्ळी.
नांचून भोंवली. व्हिंदळ्यार बसली.
कितले अणभव, चिंतनां,
उडगास आनी मंदहास !
भूंय, दर्या, न्हंय, दोंगर,
उंचार, नाचपी मोरावरी मळब !
व्यर्थ !
तितलींय वृथा जालीं
मोगाचीं तत्वां
काळजांत गांथलेलीं !

देव म्हणचो तो कोण?

दोळ्यांत खोमता

फकत काळखाची घोली !

काळखे घोलींत घुसपून भोंवतना

काळरात !

उजवाडाचें कुसकूट ना -

मूठभर गोबरांत सोंपतलो एक जन्म !

एक युग !

आज ह्या आंगार शीं चडल्यारय

खिरवडेचेर एक मडें व्हेल्यारय

एक सारयेर उजो वाडवल्यारय

मोगरीं फुलतलीं

कोगळां गायतलीं

कूपां दोंगराक लागून शिरशिरतलीं -



# परतून एक पावस -

आशाढांतलो पावस नेटान पडत आसतना
तळय तळीं व्हाळ भरून उदक विराजत आसतना
सगळी धर्तरी भिजून
सुखदिणे शियान हासत आसतना
बेठों रावन, सगलें पळेत
वोगी बसचें पडतलें -
- अशीय घडतलें, कोणाक कळतालें !
पावळ्यांत जन्मल्ले बोमाडें उले मारीत आसतना
सोप्यावेल्यान झडती वावझड आपयत आसतना
पाख्याचेर पावसा हात खटखटायत आसतना
लजकुरें एक ओलें वत
जनेलांतल्यान हळूच येवकारीत आसतना
काळीज कांपत, मातें बागोवन
दोळे सकल करचे पडतले -
- अशीय घडतलें, कोणाक कळतालें !
व्हाळावेले खेळ यादीर उदेत आसतना
झोडावेले माडे मनांत नांचत आसतना
सगलें आंग चिप्प भिजून
ओल्या ओल्या केसावेल्यान
उदक व्हावलेल्याचो उडगास
शिरंत्रांत थंडी उपशीत आसतना
दोनीय दोळे घट्ट धांकून
दोन थेंबे पावस
दोळ्यां तोंकानी दाटून येत
काळखांत लिपून रावचें पडतलें -
- अशीय घडतलें, कोणाक कळतालें !



## भय

काल भुरगो
आज तरनाटो
फाय जाण्टो.
आनी परां
नाच जातलों !
मरणाचें भय माका खाता?
ना!
हांव भियेता जीविताक !
जीवितावयले
म्हजे मोगाक !
जीविताचे आशेन
जाण्टो जावन
म्हातारो जावन
वर्स वचून
वर्सां भोगून
मरण पावनाच तर?
जीविताचें भय
काळजाक चिड्डीता !

धनया !
जीविताची गोडसाण
इतली माका लावंनाका !

माका आज्जो जावंदी,

पुण

पोणजो जावंक

शेणजो जावंक

सोडीनाका !

कुरडो करून

भायरो करून

हात फाफडून

वचूंनाका!

गरजे भायर जीवित भीकर!

मरण कितलें गोड!



# ह्रस्व जिणेविशीं

तो गेलो.
बावन वर्सांचो.
जायत्या सपनांचो.

ताप तकलेंत चडून
शंबर-सोळा कूडींतलो
रोगी मेलो.
घोव, बापा, आपापा,
आनू, भाव, पूत, माम,
इश्ट, शेजारी, अनवळखी !
ताका देवान आपयलो.

कडकडो आंगार चडलो.
किरडल्ले दांत दिसले भायर.
उकत्या दोळ्यांत कुड्डेंपण.
बोटां कवळून बांदल्यो मुठ्यो.
हुंकार. खरश्यो.
मागीर -
सोंपलें सगलेंय...

कडकडो दामलो.
उस्वास राबलो.
मुठ्यो निसरल्यो.
सदळ ओंटांफाटल्यान
दांत हगूर लिपले.

खंयतरी वयर तोपलेले भाशेन
नदर थीर जाली.
दोळ्या तोंकार दाटून आयलोलो
उदका थेंबो
कानाकडेन देवन गेलो.
कूडीर थंडाय पडली.

हरिनारायण -
हरिनारायण -
मुकार मुखेल रस्तो.
साबार ट्रॅफिक.
चूड घेवन वतल्लो,
धुपावात घेवन वतल्लो,
आनी हेर
आडखळून रावले.
खिरवडेक खांद मारलेलेय
खिणाक रावले.
हरिनारायण -
हरिनारायण -
पुलीसान वाट दिली.
चूड मुकारसली.
धूपावात मुकारसली.
खांद परतून
खिरवड मुकारसली.
"आनी चड ना !"
काल कारार व्हेलोलो,

आज  ॲम्बुलेन्सार हाडलो.
आतां खिरवडेर आसा,
धडी भितर सारयेर पडतलो.
गोबोर जातलो.
हरिनारायण -
हरिनारायण -
''गेलोलो गेलो.
उरिल्यांक सोडो हाडला !
सिगरेट हाडलां -''

पोंदाक करट्यो शिरपूट,
तांचेर राकूड.
राकडार खिरवड देवंयतलीं,
निसण सोडोवन काडतलीं.
दांतूक भांगर दोळ्यांर,
तीळ, ओरोव, उदक, निर्माल,
तूप, गांद, अष्टगंध...
वयर दुसेर राकूड,
अखेर उजो -
मात्याकडे, पायांकडे,
भुजांकडे, जांगांकडे...
हरिनारायण !

उलयत नुलयत अर्दवर बेसतलीं.
सोडो पिवन, सिगरेट पिवन,
घराघराक परत वतलीं.

हातपाय धुवन,
कांय थोडे पंचगव्य घेवन,
मसण विसरतलीं.

पुण मेलेल्याक कशि विसरतलीं?
मेलो कोण?
आमच्या काळजांत
ताजी यादी जिती !
तो जितो !
मेली ती आमची याद -
ताज्या मनांतली !
मेले ते आमी?



दांतूक = मात्शें

# विसव दी !

तुजी निष्ठूरताय
माका कळ्ळ्या.
पयस बसून
तूं खांडें चलयता.
म्हजे लागशिल्यांक
मारून उडयता.
माका रडूंक लेगित
वेळ दीनाशें
ह्या हातांत साकून
तांकां हुपून व्हरता.

चोयवशींय
मरण शिंपडून
माका कित्याक वांचयला?
हरदें चोवन खोंचतल्या,
तुका देव म्हूण पुजूं?!
तूं देव तरी
माकाच मार.

निश्पाप चेरडुवांक
साबाव सोड.
तांचे आवस बापसूक
साबाव सोड.
अशी तांची फाट घेवनाका.
मात्सो विसव घे !
माकाय दी !



Do not go gentle into that good night,
Rage! Rage against the dying of the light -
❒ Dylan Thomas (1914-1953)

# 4

- विलाप
- सारकें
- उत्तर रामायण
- ही माती
- खूंट
- यरूशलें
- वोट
- चतुरंग
- शारांत
- कांटे कळे

# विलाप

कित्याक आनी वांचूका?
भुरगीं भुखेन मरतना -
व्हाळानी व्हावंचें वीख घोटून
विडविडेवन पडतना -
वांचोवंनाकात माका,
वांचोवंनाकात रे !

घरान घरां, शारान शारां
लासोवपी लासडे हातानू,
आपल्या आपल्या रावळारानी
हासून बेसपी पिशानू,
चणे चाबून टी.वी. मुखार
जांबय काडपी आळस्यानू,
मारात माका ! पुरात माका !
कित्याक आनी वांचूका?
निश्पाप्यांचीं - पाप तांचें -
इतलीं मडीं कुसतना -

काळे शायेन कागताचेर
कित्याक किडबिडावंका?
भाव म्हजे, भयण्यो म्हज्यो
हर्घार मारून रडतना -

हे नोश्ट्रादेमस,
शतकांचे खेळ
तुवें  दोळ्यामुखार पळयले !

मळबावयले दीवे
धर्तरेवयलो उजो
विखाळ धुंवर
डुकरांचीं तोंडां
धर्तरेचें दळदीर !
सगलें तुवें पळयलें,
पळयत उले मारले !
भयांकुर सपनां तुजीं
आज आमी साकारलीं !

कित्याक आनी वांचूका?
इतलीं घरां लासतना -



# सारकें

बाळा तुका दोळे तुजे आवयचेच मेळ्ळे रे !
बापाले मुदियाळे केस, बापालेंच नांक रे !

चंद ओंट कान तुजे आवयले वरीच रे !
मंदहास ओंटांवयलो, चान्नीणे पुनवेचें रे !

गोरे गोरे गाल तुवें आवयलेच फारले रे !
दोळे घालीत म्हणून तुका काळे तीळे केले रे !

पुरो बाळा पुरो तुका, मात इतलें पुरो रे !
आवयचें बापाचें आनी चड सारकें नाका रे !

हारशी पळेत  बेसपी बुद्ध तुकाय मेळची नाका रे !
'आपूण, आपलें घर-दार-पोर' अशेंय नाका रे !

आज्जो  आज्जी वर्जी म्हणचें बापामन नाका  रे !
श्राप मुरमुरून भोंवपी आवयकाळीज नाका रे !

दुर्बळकायेची, सुवार्थाची जीण नाका रे !
आवयचें बापाचें अशें सारकें तुका नाका रे !



# उत्तर रामायण

उत्तर रामायण पळेतना
उतरांच ना जालीं !
सुंदर बाये सीते,
कशी गो तूं जियेली?
आपलो धर्म वळखून
घोरवनांत मू गेली.
धर्माचे बळानच तूं
अग्निपरीक्षाय जिक्वली.
पुण गुर्भिण आसूनूच
तुका रानांत पावयली !
हा, सीता बाये
कशी गो तूं वांचली?
तुजी काणि पळेतना
भळभळ करून दूकां
भरतात दोळ्यानी सदा -
    पुण हें कितें?
    इतले किरकिर?
    फुडल्या दारा मुकार
    भीक मागरीण !
    इतलें जीर्ण वस्त्र?
    चिकलट, बाणशिरें कशें !
    चेडो हालडीवेलो
    नागडो बुरसो खांपाळो.
    गाल चेपून, आंग सुकून,
    हातापायांर खोरोज फुटून,

दोनीय दोळे
अशे ऽऽ भायर येवन,
नदर दीन दीन,
ओह, आंग सणसणता -
अशेंय एक दरशन
आवतिकायेचें !
बेगींच एक नाणें उडय
पापाये पाना सारक्या हातार.
इतलो व्हडलो हात
इतल्या सुकड्या दांड्यार !
शिरपूट कशी कवळ्ळेलीं बोटां
वांकडीं तेंकडीं नांकटां !
वच ! दूर वच !
अवलक्षण ! दळिद्र !
रामायण पळोवंकय सोडीनात !
सीता बाय, क्षमा कर,
थोड्या वेळाक श्रद्धा चुकली
पुण कशी गो तूं जियेली?
तुजी ही काणि गो
दोळ्यांत दूकां हाडचेली - !



# ही माती

युगान युगां

हांगा

असुरांचो

राक्षसांचो

आनी

कुरुक्षेत्रांत

कौरवांचो

घात जालो.

रगत व्हावलें.

ही माती

तांबडी जाली.

कलियुगांत

हे मात्येंत

जन्माक येतात ते

त्याच रगताचे-

न्हय ?!



# खूंट

हो चेडो काळो सांवळो
उलयता रानाटी भास !

तो एका परक्या गावंचो
खावंचो मासळी मांस !

आनी हो विद्या नातिल्लो
वजें व्हावन जियेवंचो !

एकलो  नाम जपचो !
एकलो चाम विकचो !

- वंयचे हे खूंट
  केन्ना ना जातले ?
- भुंयचे पूत आमी
  मनीश जातले ?



# यरूशलें

यरूशलें !
पुण्यनगरी ! धन्यनगरी !
पावन तुजी माती !
तीन कुळांक आवय तूं,
तीन धर्मांक पूज्य भू !
चरित्र तुजें अतुल !
जायत्यो घुडयो उबल्यो तुजेर.
कांय मोडून पडल्यो.
उबीं केल्या देवळांचो
उबलो मागीर गोबोर गे !
भावंडां-खातीर तळमळल्याक
खीळे खोमून मारलो !
गुन्यांवकाराक मेकळो सोडून
निश्पाप्याक खिळायलो !
यरूशलें !
काणी तुजी दुखदिणी !
झूजांची, विनाशांची.
विलापाचे वण्टेची.
खूंट मारून, खण खणून,
कुटके केल्या वांट्यांची.
एकलो तुजेर राज्य करता.
एकलो ताजे आड झूजता.
बेसला तिसरो पळयत-
''म्हजोय काळ येतलो !''

आपलें आपलें रगत ओंपून
मोगाळ पूत गेले.
बाकी सगल्या जाणानी गे
तुजेंच रगत चोखलें !

यरूशलें !
तूं एक चमत्कार !
मेलो म्हणून पुरिल्या पुताक
तूवें अमर केलो !
तुजे पुतांक येवकार दिवंक
स्वर्गा-दार उगडलो !
एका पुताल्या उडगासाक
फातराकुंभ उरलो.
आनीयेकल्याच्या उडगासाक
तुवेंच खुरीस व्हावंलो !

यरूशलें !
पुण्यनगरी ! धन्यनगरी !
तांबडी तुजी माती !
निश्पाप्यांचें रगत व्हावंलां
तुजेर फाटीं खूब !
आतांय व्हावंत आसा.
आनी फाल्याय व्हावंतलें ?
कसली तुजी चूक !
पाप केलें कसलें तुवें !
यरूशलें !
पुण्यनगरी !
धन्यनगरी !



अस्तंत आशियांतल्या इझ्राएल राष्ट्रांतली पुण्यपुरातन नगरी यरूशलें! ज्यू, क्रिस्तांव, आनी इस्लाम, ह्या तीनीय धर्मांचे लोकांक हिचेकडे आपलेपणाची निजी ओड ! कित्याक तर, ह्या तीनीय धर्मांक हे नगरीकडे बुनयादी संबंद आसा! हेंच तिचें म्हत्व. आनी तिचे दुखेस्त काण्येचें गुपीतूय हेंच! नगरीची व्हडवीक आनी ताचे बरोबर तिचें दुखय हांगा चितारलां. मोझेस, क्रिस्त, मुहम्मद सारकेल्यानी भोंवलेले पवित्र भुंयेक सदा ही दुर्दशा जावंक कारण कितें म्हूण कवि अजापता. 'विलापाची वण्टी', 'फातराकुंभ', हीं नगरींतलीं चरित्र स्मारकां.

# वोट

व्हरूक माका वोटाक
लावूक शाया बोटाक
आयलो नेता नायक !

म्हज्याच म्हणून भेटेक
वर्तमानां उलोवंक
आयलो नेता नायक !

घेतली म्हजी वळख
हात लायलो हाताक
दुसेर दुसेर 'शेका'क!

गोडी गोडी भास!
रूंद रूंद हास !

खावंक मेळ्ळे वोडे
पीवंक हाडले सोडे
पन्नासांच्या नोटां सयत
दिले आमकां वीडे !

परतलों घराकडे :
"आनी पांच वर्सांक
फकत विडविडे!"



## चतुरंग

आमचे वयर
मोठीं बोटां
धनयालीं !
तीं खेळतात.
आमकां विसव !
चतुरंग म्हळ्यार
बुदवंतांचो खेळ !
आमकां तो येना .
येवंचोय ना !
इतल्या व्हडल्या चौकटीन,
आमचे सान बुद्ध्येन,
आमी कशी खेळचें रे?
ताणीं सांगचे वरी
आमी नांचल्यार बरें !
सुस्त जीण काडचे खातीर
तुस्त तांची करची बरी !
धनी बुदवंत !
ते खेळतात.
आमकां विसव !

आपूण धवो घोडो.
तूं काळो.
आपुण तुका मारता.
तूं मरता.
आनी एकलो चोरपायानी येवन
फाटल्यान खोंचता !

तुका  खेळयता तुजो धनी.
माका नांचयता म्हजो धनी.
कितलीं सुंदर बोटां बाबा
आमकां नांचयतात !
आमी तीं पुजूया,
तींच आमी  भजूया,
तांचे दयेन, मायेन आमी
तीन दुड्डु जोडूया !
कांयच आमी चिंतचें नाका.
चांग वायट चोवंचें नाका.
जवाबदारी उसरमीट !
सोडून दीवूया, सोडून दीवूया !
कर केल्यार करतलीं,
मर म्हळ्यार मरतलीं !
पोट-फाट चोवंची संवय,
बरें-कूडें चिंतची संवय,
केन्नाच आमी सोडली गा !
विवेक आमचो मुखेल शत्रू,
विनोदूच  जीणेचो अर्थ !
धवे काळे चौकटीनी
नांचून उडून
मारून झगडून
मोक्ष आमी पावूयां !
मोक्ष आमी पावूयां !



# शारांत

इतले गार्दीच्या शारांत
हें इतलें दाट रान?
हांव सपनांत बी न्हय मू !

मुखेल शाराक गेलोलों
वाट चुकून शेणलोलों.
व्हडलो मार्ग सोडून
मात्शें भितर पावलोलों.
आनी हाणे माका
हात धरून राबयलो !
पोरने एक वण्टे फाटल्यान
अशें खूत रान !
कसले कितले रूख -
एकामेकांत वीणून वेष्टून
वाल्यो झाडां तण !

वतांत भिजून, सुद्ध विसरून
रावलों हांव चोवन चोवन !
एक पावल मुकार घालें -
खांब्यार उबें रूंद फळें.
लांब थोर अक्षरानी
ताचेवयली सुचोवणी -

''रेडी फोर ओक्यूपन्सी
विथिन सिक्स मंथ्स!
डिलेक्स वॅरायटी

रेसिडेंश्यल फ्लॅट्स!
इन द  हार्ट ऑफ द सिटी
ऑळ फॅसिलिटीस !"
वाचून समजनाच जाल्यार
फ्लॅटाचीं चित्रांय सादर!
तोंड म्हजें बावलें
पुण व्हडानच येवजिलें-
सगलें मनशांचे खातीर!

शार म्हण्टा-
"रान वतना बरें जातलें न्हय?
काळखी वतली, वतलो कोयरूय!
लांब थोर फ्लॅट जातलो
साबार जाणांक घर दितलो.
तरी पुणूय, परक्या मनशा,
तोंडार  तुज्या खोशी ना कित्या?"

कितें सांगचें ताका?
आयच्या आगळ्या रानांत
पोरन्या रानाची कसली गरज !
मुकार रूखार चानये पिलां
दिसतलीं थंय मनशा पिलां!
कानार पडता सवण्यांचो किलबील
जातलो फाय भुरग्यांचो किरकिर!
खरें म्हण्टां शारा तुका –
चड प्रश्न करूनाका,
गोड फट मागूनाका!



## कांटे कळे

घडियाळ पोरनो पोरनो.
मोवता धडयो
नव्यो नव्यो !

❍

तिखटे हातांत
तिखटी लिखाण !
मोगा म्हज्या
पोरा तुका
कशी लावं गोडसाण?

❍

जिरवण...
भुकेल्यान चाबतना.
कुर्वण...
दामेल्यान वाचतना !

❍

वीख आनी विखादांत
शेणिल्ले सर्पा,
भुंयेवेली जीण मुखार
कष्ट रे बाबा !

❍

गळतलो पिकलोलो पालो,
खेळतलो जीवो!
इतलें सादारण कितें वेगळें?
इतलें अजाप कितें वेगळें !

❍

कालच्यानी

भूंय सोडली, भास सांबाळ्ळी.

आयचो

भास सोडता, भूंय जोडता!

❍

हात दिलो.

पाय ताणलो !

❍

एकमेळ...

झगडवाळ्यांची !

❍

सिटी काय मेट्रो?

काय सिमेंटीचें रान?

रूख रुखावळ आजून

कुराडेक दान !

❍

फांतोडेची ही खबर :

कोयर झाडता चाकर.

काळोख झाडता भास्कर !

❍

I am a part of all that I have met -
❒ Alfred Tennyson (1809-1892)

I contain multitudes -
❒ Walt Whitman (1819-1892)

# 5

- कोण तूं?
- रस्तो
- गुलाब
- वेळेर
- पाकळेचो कीर
- विराम
- आयतार
- गांव
- खंय ती न्हंय?
- ती गेली ना

# कोण तूं ?

आगा, तूं कोण ?
हांव तुका वळखना !
तीख, कोडू उतरां तुर्जी !
आमचें कांय नातें ना !
हांव सरळ मनाचो,
सोप्या उतरांचो...
खरें सांगूं ?
तुजे विचार, भावना,
माका समजनात !
कोण तूं ?
इतलो रागेस्त !
पीडेस्त मनाचो !
काळखांत रडपी,
काळीज पिंजून दाखोवपी,
तत्वज्ञानी, स्थितप्रज्ञ !
परक्या,
हांवें हातांत लिखणी घेतना,
म्हजे तरफेन म्हूण
तूंच कित्याक उलयता ?



# रस्तो

रकरक वतान तापलेले भुंयेर
पाय लासत ़चलतना
कविता करूक जमलेंना.
मळब माका आपयना
उबूक तरी पाखूय ना.
सवणी, सुकर्णी गायलीं तरी
कानाक सारकी वळख ना.
दोंगर, दर्या, नखेत्रां,
दोळ्यांक तांची तानूय ना...

रस्त्या देगेन भिकारे –
रितीं पोटां, बेठे दोळे.
नागडीं, सुकडीं, काळर्गी, भुरर्गी,
व्हावंतीं नांकां, रडगे गळे,
हातपाय काड्यो कशी.
कूडां हाडां-पांजरीं.
मर्दी मर्दी झगडीं,
किळांच, सवे, श्राप....
धावन येवन पाय धरून
भीक मागून विलाप...

कान दोळे हांचेर शेणले,
काळजार ताणी घोंटेर बांदले.
नीद उडली, जीण कडली,
कविता करूक जमलेंना.



# गुलाब

झाडार एक फूल...
कितलें सुंदर ! कितलें सोबीत !
परमळीक, नाजूक, अप्रूप !
नेणताशें हरदें ओडलां,
ताजे लागी वचून हांव राबलां.
– तें माका पळयना !
हळूच विचारलें :
''तुजे विशीं कवीत करतां?
खूब खूब बरयन !
तोखणायन ! वांकाणसीन !
नांव तुजें अमर करीन !''
– आरे, तें माका पळयना!
मोगान भरलेलें मन
दुखलें.
आपडूक गेलेलें बोट
शिरलें.
बोटार, हर्द्यार,
रगत थेंबेलें...
अखेर,फूल माका चोयता !
हळूहळूच म्हणता :
''कविता करच्या मामा म्हज्या,
मात्शें दूर सरात वो !
भोंवर एकलो येवंचो आसा,
वाट ताका सोडात वो !''



# वेळेर

चली :

व्हाण मेगेलें चोरलें कित्याक
दर्यासुंदरी?
अशें तूं माका खेळोवनाका,
हांसो गो असो हासूंनाका,
दांत तुगेले दाखोवंनाका,
दर्यासुंदरी !
वता गो हांव, आडावंनाका,
वांगडा म्हजे येवंनाका,
पाय मेगेले धरूनाका,
परत माका आपोवनाका,
दर्यासुंदरी !

दर्या :

रडूनाका, रडूनाका, रडूनाका !
रडल्यार दोळो तुजो ताटर जाता !
गाल सुजता, तोंड बावंता,
गळो दुखता, ताळो थरथरता !
चले मगो चले, म्हजी सांगातीण तूं !
काडलें हावें व्हाण, तुजे उडगासाकू !
परत योगो एका दिसा, घोवा ओटू तूं,
परबीं दितां, तुजें व्हाण परतितां !



## पाकळेचो कीर

एक दिसा एकलोंच बसलोलों
धाड्येचे धवे केस मेजीत !
घराचे रूंद सपणांर मरे,
बसलोलों बेटीं खिणां मेजीत !

वर भर हासून खेळून
खोशयेचे वांटे वांटून
सगलीं गेलीं परतून
एकसुरो जालों रित्या घरांत !

पोरसांतले रेंवेंत पोरांलीं पावलां.
बोर पेर खायत खूब खेळ जाला.
आंगणांतल्या झाडार शिरकून रावला
व्हीराचेर विणलोलो पाकळेचो कीर !

दिसता जीवाक अजापाजी थंडाय
फुलता वोंटार एक पोरनो गींत
व्हीराचेर विणलोलो पाकळेचो कीर
यादीन आतां कितें कितें हाडना !

उरलेनात ते खंयचेय खेळ,
उरलोना तो काळूय आतां
घूल, पेल, भोंवर सगले शेणून
घुसपलां आज जीणेच्या झूजांत !

रातच्या काळखांतच पुनव उदेता !
हेंच व्हय पाकळेचो कीर तूं सांगता?
पोरसांत रेंवेंत कोणालीं पावलां?
एक काळ्या पोरालीं पावलां !
खातखुतल्यो दिता एक हास !
फुटता मायेचें पाश अनायास !
व्हीरार नांचपी पाकळेचो कीर
म्हज्या पावलांक दिता मू धीर!

मात्शे लोणयेंत सगलें सुख देखचें
रातच्या काळखांत पुनव दाखोवंचें
जादूचें काम पाकळेच्या कीरालें !
याद दिता माका काळ्या पोराली !

भात खावपी पारव्यांक पळयत
काळीज फुलचेलें सौभाग्य जाय.
फकत आयचो दीस मुखार पळोवन
सांजे सुस्त न्हिदपी भुरगेंपण जाय.
आज्याक फडीपान धाडावन दिवपांत
आनन्द मेळतालो, तो परत जाय.
जापसालदारक्यो ना करचो वर नाका,
वैर विसरचें मन पुरो माका !



# विराम

सांजे वेळार
फुलले फुलझाडीचेर
दृष्टि मेगेली वेष्टली.
याद पोरनी
तुजे म्हजे मोगाची
मनदर्पणाचेर उदेली !

मेगेले ओंटांचेर तुजें नांव बशिल्लें,
तुगेल्या दोळ्यांत म्हजें रूप आशिल्लें !
देवान आमकां एकरूप केलेलीं,
वेगळीं जावना म्हूण सोपूद घालतालीं !

जीविताची लांब वाट
कोणाक खंय पावंयता !
जन्मबंधनाची गांठ
पडता आनी निसरता !
आनी आज -
वीज वाडवल्ले दोळे ...
गींत आटल्ले गळे ...
हर्द्याचे कांजोलींत
यादींचे सुकट कळे...



# आयतार

आज सोमार.
फाल्या मंगळार.
बुधवार परां.
बिरेस्तार येवरां.
लागून सुक्रार.
मागीर शेनवार.
तोवय जाल्यार ?
आयतारांचो आयतार !

हांव.
म्हजें आंगण.
आनी आंगणांतलें
पाचवें तण.
आंब्या-रुखाचे सकल
कितें कितें आसत?
सावळेचे वालयेर
वोताचीं फुलां !

परमळीक वारो खेळच्या पोरसांत
कदेलार बसून पाय सोडतलों हांव !
सदळ करून हात
रितें करून मन
दोळे धांकून सुस्त न्हिदतलों !

करूक जाय आसलेलें सगलें
करून सारलें.
सोमार साकून शेनवार मेरेन
वजें साबार व्हांवलें.
पाखें सारकें केलें -
कूडीन कूडी झडली -
पोरसूं नितळ केलें -
राकूड चीरून घालें -
करूक आनी कांयच ना !
पाय सोडून बसतलों,
न्हीद हांव रुचतलों !

आपल्या पायार उबो रावंक
दीस कितले सारले !
हूम आटोवन, त्रास घेवन
घर म्हजें बांदलें !
एकेक आश्रमाचीं वजीं
भुजार घेतलीं.
त्राणीप्रमाण, तांकीप्रमाण
जीणेच्या झूजांत झुजलों.
जिखलो काय हारलो ?
चिंतूक वेळ मेळ्ळोना!
मुखार, मुखार, मुखार पावल,
सुस्कार सोडूक रावलो ना !

करूक आनी कांयच ना !
पाय सोडून बसतलों,
न्हीद हांव रुचतलों !

एक पिळगी न्हिदली
दुसरेक जाग आयली !
ही पोणती वाडवली
ते कडेची परजळेली !
कोणे तरी
काल म्हजे
पोणतेंत तेल जें घालें,
माणकुले एक दिवलेंत
आज हांवें ओतलें !
सगलें काम सारलें
भूज बेठें थारलें !
अखेरेच्या वाराचो
निमणो दीस पावलो !
करूक आनी कांयच ना !
पाय सोडून -
-पुण आज मरे ?
आज हो सोमार !!



# गांव

म्हार्यांत म्हज्या
योरे पोरा
गांव पळोवया !

माडे पळोवया
माड्याचें भाट पळोवया
भाटांतले रूख पळोवया
रूखावेले चानयेक पळोवया
चानयेले खेळ पळोवया -
म्हार्यांत म्हज्या योरे पोरा
गांव पळोवया.
तुज्या बापाचो भुरगेपणाचो
गांव पळोवया.

पाल्यांतल्यान चान्नीण्या-दोळे
वालये वालयेर मोगरे-कळे
आपालिपा खेळचे काजूले
भुरगेपणांचे लाख उमाळे !
तानेक थंड शियाळें
सोप्यार घुल्यो गुरपाळें
आंगणांत दोरा-व्हिंदूळे
खेळूक रूखाचे माळे !
म्हार्यांत म्हज्या योरे पोरा
गांव पळोवया.
बांयचो-तळ्यांचो,
गायच्या गोठ्यांचो
गांव पळोवया.

भात पळोवया
भाताचें शेत पळोवया
शेतांतलें वोत पळोवया
वोता फाटीं पावस पळोवया
पावसाचो धणू पळोवया
म्हार्यांत म्हज्या योरे पोरा
गांव पळोवया.
बोरा-पेरांचो, आंब्या-जांबांचो
गांव पळोवया.

तळ्यानी मार फातर
व्हड्यानी पळय आर
खुशाल सांग खबर
एकामेकाक आळीं विचार
धांव, धर, पुलीस-चोर
लांब, नांच, रुखा खांद्यांर
पाकळेन पेल कीर
भुरगेपणाचे खेळ हजार !
म्हार्यांत म्हज्या योरे पोरा
गांव पळोवया.
बर्या वार्याचो, भर जीवाळ्याचो
गांव पळोवया.

टीवीची सोड चौकटी!
सोड मरे पिशी रिमोटी!
बुकांच्या वज्याक सुटी!
गर्दीच्या शाराक सुटी!
गोड मू गावांची जीण,
यो म्हज्या सांगातान!
घे म्हजें भुरगेपण,
दितां तुका मायेमोगान!



आर = व्हाळ



# खंय ती न्हंय ?

पांयां मुखार  पातळिल्ली ही
सुकी, भुसभुसी, धवसार रेंव पळयत,
हांगा थांगा उबे  हे
नागडे फातर पळयत,
शिवंडून पडिल्लीं हीं
एकटीं झाडां पळयत,
पावल-भर उदकाचे हे
फोणकुले पळयत,
चिंततां -

खंय ती न्हंय?
खळखळून, जी हासताली
गुंपित कितें तरी सांगताली
गींत खोशयेचे गायताली
फेणेर-भोंवरे खेळताली
धरशी माका म्हूण धावंताली
फातरा-पोरांक न्हाणयताली-

खंय ती न्हंय ?
जंय आमीं भुरगीं न्हातालीं
नागडीं उगडीं, बुडी मारतालीं
उमतीं उद्दारीं पेवंतालीं
सांजे सकाळीं मेळतालीं
उदक व्हरूक येतालीं
गुंडे वेंचूक झगडतालीं
कागता-मोंचवां सोडतालीं-

खंय ती न्हंय?
जिचे तडियेर आमी भोवंतालीं
निपून कोणाक तरी चोयतालीं
बेसून कोणाक तरी राकतालीं
खबर्यो अशी तशी सांगतालीं
सपनां मोवाळीं विणतालीं !

खंय ती न्हंय?
कालि अश्यानी व्हावंताली !



**ती गेली ना -**
गेली म्हणूक धीर ना -
दोळे सांगतात फट.
हरदें म्हण्टा सत.

पळयत राव तें तोंड-
दैवी तेजान दिपकायलेले ते दोळे,
तोंडावयल्यो शंबर मिरयो!
मिरयो न्हय त्यो, करुणेच्यो झरयो -
अगण्य तोंडांचेर ताणीं हांसो किरलायलो.
दुबळ्यांच्या हरद्यांभितर भरवंसो रोयलो.
दूकांचे कांटे हळूहळूच हुमटायले.
तापलेल्या रेंवटांचेर, मंदहास जालो थंड वारो.
अगतींक सदाखातीर तिजो आलासरो.

वाडवूंक ना पृथ्वीचें तेज,
सासणाचें सूर्यनखेत्र!
जावंक ना भुंयेक अन्य,
विश्वप्रेमाचें तें चैतन्य!
ना, ती गेली ना-
गेली म्हणूक धीर ना-
दोळे सांगतात फट.
हरदें म्हण्टा सत.








Saratchandra Shenoi carved a niche for himself as a poet in the seventies with his poems in the popular monthly magazine of Cochin, Konkan Janatha. His versatile contributions by way of songs, poems, stories, humour, children's literature, articles, translations etc. have since appeared in a good many number of periodicals, souvenirs and anthologies. His first book MIRA-Jivan Ani Kavan brought him the Devaki Krishna Trust award. Active amongst a dedicated group of Konkani writers, he has compiled a digest of contemporary Konkani literature of Kerala. He has presented papers on various branches of the Konkani literature of Kerala at seminars held by the Sahitya Akademi.

As a poet, Sri. Shenoi evades classification, with the variety of themes handled, as also with his treatment of them. At times cheery, at times gloomy, at times angry and critical, and at times deeply philosophical, he seems to pour into his poems all his sentiments and silent thoughts. Hence, his poetry is like the projection of his inner being on to paper. Gifted with a keen sense of rhyme and rhythm, he appears equally at ease with metre or without it; and is found at times experimenting with rhythm combinations. In his verse translations of Hindi and Malayalam poetry, a conscious effort to maintain the rhythm of the original can be observed.

Sri. Shenoi, born in the year 1953, is the youngest of the sons of Sri. A.V. Raghunatha Shenoi and Smt. Kanaka Bai, of the Arakkaparambil family of Ernakulam. He is a science graduate and is employed at Canara Bank. Married to Smt. Radhika Bai, he has a daughter - Deepthi. They reside at "Gokul", Cochin-6.

# OTHER BOOKS




### MIRA-JIVAN ANI KAVAN (1987)

contains Konkani translations of 60 compositions of MIRA BAI. The life story of the 16th century saint poetess is also included. Preface is by Dr. B.S. Asha. This book won the Devaki Krishna Trust award in 1992. Published by the author, it has 68 pages and is priced at Rs. 10/=

### SAHITYA SANKALAN (1995)

was compiled by the author for Lekhak Mandal. It contains stories, poems, essays etc. by eleven contemporary writers of Kerala, along with an introduction to each. A literary digest containing a representative cross section of contemporary Konkani literature of Kerala, the book is published by Kerala Konkani Academy, Cochin. It has 110 pages and is priced at Rs. 40/=




<u>FORTH COMING</u>




### YUGANTAR

is a small anthology of poems in English by the author. Along with originals it will contain translations from Konkani also. A brief survey of twentieth century Konkani literature of Kerala will be annexed to this.

कवितेंत मग्न जावन
स्वताक विसरून वचपी-
प्रपंच चैतन्य जाल्ल्या त्या
ईश्वराक सोदून भोंवपी-
क्षणिक जीविताच्या प्रवासांत
मर्णाक सहयात्री मानपी-
मानवी वायटपणांचेर दुखपी-
आपण्याकच लेगीत दूशण दिवपी-
लोकजीणेचे भौरंग पळयत
अजापून रावपी-
गेल्या दिसांचे यादीन
अश्रेकणी भोगपी-
अनवळखी अगतीं खातीर
दूकां गळोवपी-

असली ही लिखणी.
जीविताच्या तेजान भिजिल्ली.
जिवी-ताजी. तट्टटीत.